# गांठलैं

( गीत-कथा )



: रचपी :

विजयाबाय सरमळकार



जाग प्रकाशन

Jaag Prakashan : 38
GANTHALEM
Song Stories in Konkani
written by : Vijayabai Sarmalkar
International Year of the Child, 1979
भायलें आनी भितल्लीं चित्रां : दिलीप धामस्कार

**जाग प्रकाशन : ३८**
आंतरराष्ट्रीक भुरग्यांवर्स प्रकाशन : ७
जुलय १९७९

**मोल : ३-०० रुपया**

उजवाडावपी
सुमन्त रामचंद्र केळेकार
जाग प्रकाशन
प्रियोळ, म्हाड्डोळ,
गोंय ४०३ ४०४.

छापपी
य. गो. जोशी
आनंद मुद्रणालय
१५२३ सदाशिव,
पुणे ४११ ०३०.

म्हजीं अपुरबायेचीं नातरां
सीमा, शुभा, नीलेश आनी
सुष्मा, शातू, साइश
हांकां
मायेमोगान

# काणयो गावचे पयलीं

भुरग्यांच्या वर्सा निमतान काणयो बरवच्यो अशी जेन्ना भौ. रवीन्द्रबाब केळेकार हांणी म्हाका सुचवण केली तेन्ना शिंपडलेल्यो जायत्यो काणयो हांवें एकठायल्यो.

म्हाका याद आसा. आमच्या भुरगेपणांत आमच्यो आजयो जशो गद्यांत काणयो सांगताल्यो तशोच गावनूय दाखयताल्यो.

आनी त्यो आयकतना आमी सामकीं गुल्ल जावन वेतालीं.

ते धर्तीचेर बरयलेलें हें चार काणयांचें ' गांठलें ' तुमच्या हातांत दितना म्हाका खुब्ब खोस भोगता.

नांवा भशेनूच ' मोगाळ ' आशिल्ल्या मोगाबायन ( सौ. लक्ष्मीबाय सरदेसाय ) जर परती परत ी तिश्टत लायना आशिल्ली, तशेंच जाग प्रकाशनान उजवाडा हाडपाची इत्सा करूंक नाशिल्ली जाल्यार हें ' गांठलें ' म्हज्या आळशीपणान तुमच्या मुखार हांव दवरूंक पावतलें आशिल्लें काय ना, कोण जाणां.

तांचें दोगायचेंय रीण (कळांतरा सैत) म्हज्या काळजाच्या पेटलांत आसतलेंच आसतलें.

आतां एक प्रस्न उल्लो तो माणकुल्यांचो. गांठलें तांकां कशें मानवलें हें जर ताणीं कळीत करीत तर हाच्या परसय बरें बरोवंक म्हाका स्फुर्त येतली हातूंत दुबाव ना.

मडगांव,
१ जुलय १९७९

विजयाबाय सरमळकार

## मांडावळ

- मानगें आनी माकड
- वसवसो पेटको
- कावळो काळो जातलो धवो
- शक्ते परस युक्त श्रेश्ट

* * *

# मानगें आनी माकड



बाणावलेच्या दोंगरा सकयल
आसलो एक वडा रूख
खांदयेर ताचे रावतालो
काळ्याच तोंडा माकड एक

दोंगरा कुशीक आसलें तळें
बाराय काळ भल्लेलें
उपाट उदक पळोवन तातूंत
मानगें एक रावतालें

आंगान पांगान घसघशीत
बारीक दोळे लिकलिकीत
आंगावेलीं खवळां सोबीत
चमक्यो कशो चकचकीत

दोगांय मोगान चलतालीं
वायट बऱ्याक पावतालीं
परबे सणाक गोडशें केल्यार
एकामेकांक धाडटालीं

पलतडच्यान तळ्या देगेर
आसली एक म्होंवी बोर
वांटकुळींच तांबडी बोरां
रुचिकूय रसाळ गोड

बोरीर पळोवन पिकींच बोरां
माकडा तोंडाक सुटलें उदीक
येवजणेंत पडलो तो
वचचें कशें पलतडीक

" पलतडीक वचचें आसा
मानग्या आका, मानग्या आका,
तुकां कशेंच पेवंक येना
फाटीर बसोवन व्हरशी म्हाका ?"

" पयलीं सांग दितलो कितें
मागीर नेगार वचूंक नाका
उतराक शेर्त नासलेलो
दोळ्यां मुखार नाकाच म्हाका "

माकडान मनांत येवजिलें
मागत कितें मागून, मागून
हाडचीं बोरां बोरीर साकून
दिवंची ताका पोसो भरून

" दोन जिबो ना गो म्हाका
मनशावरी नेगार वचूंक
उतर शेर्त करचे खातीर
सरन फुडें जीव दिवूंक "



मानग्या फाटीर बसलो माकड
शेनतां फुलयत न्हवरो कसो
ताळो काडून लागलो गावंक
कानार हात गवय जसो

" मानग्या आका, मानग्या आका
फाट तुजी मोव उशें
उदका वयर चलतना
दिसता ल्हारांर व्हडें कशें "

पलतडीक पावलो माकड
बोरी मुळा घेतली झेंप
बचके भरून लागलो खावंक
हालयत हालयत आपली शेंप

तिनसांजचे वाजले सात
अिगर्जींत जाली घांट
उजवाडान कुटुन्यो केल्यो
चांटयो मारीत आयली रात

मानग्यान माकडा शिटकायलें;
" घराकडेन वचचें आसा
काचीबुचीं रावती म्हाका
पोटा तांकां घालचें आसा "

धोलत धोलत आयलो माकड
मानग्या फाटीर बसलो परत
दोगांय पावलीं मजगतीं
मानग्यान म्हळें हांसत हासत

" काळीज म्हाका जाय तुजें
दिल्लें उतर कर रे खरें
ना जाल्यार बुडयन तुका
        हांव मानगें बऱ्याक बरें "
केन्ना कोणा बुद्द फिरत
कोणाच्यान सांगूं येना
मानग्या मनांत काळें आसत
        माकडा अश दिसलेंना

दोळ्यांवेली देवली सुस्त
भंयान पोटा ओडले पांय
वोंठार उसणो हांसो हाडीत
        माकडान म्हळें " आयक गो बाय "
" हारशावरी पातळ कवंच
काळीज आमचें माकडांचें
फुटत म्हणून थेयलें घरा
        पयलींच तुवें सांगपाचें "

कितलीय जाल्यार अबरगत
भोळी बावडी बायलां जात
दादल्यां मनांत वसता कितें
        हांची तांकां नासता नात
धेंगसो घालीत मानग्यान म्हळें,
" फाल्यां हाडूंक विसरूं नाका
हेच वेळेर आमोरेचेर
        तळ्या देगेर रावतां तुका "

आलतडीक पावलो माकड
हुप्प करीत चडलो रुख र
तावल्यो बावल्यो लागलो करूंक
भोळ्या बावड्या मानग्या मुखार

" मानग्या आका, मानग्या आका,
बुद्द तुजी कळ्ळी म्हाका
झाडार काळीज थेयलें म्हणून
खरें कशें दिसलें तुका ? "



सांवड्डेच्या लागसारा
माणकुलोच आसलो गांव
चारीय वटेन शेतां भाटां
पंचवाडी सोबीत गांव

व्हंकलो कशो थंयच्यो केळी
खांबले कशे एकेक माड
दोन पिको दिवपी शेतां
अिल्लोय जागो नासलो पाड

त्याच गांवांत तळ्या भाटांत
पेटको म्हुणून आसलो मनीस
आळशीपणाक नासली शीम
न्हिदप ताजें दिसां दीस

भेड्डो कानान, तिरसो दोळ्यान
वांकडी वाळू, सुकडो आंगान
पांयान थोंटो, झेंपो कसो
पापी सदांच वसवसो

( कोणेंय जर ताका म्हळें )
पेटक्या, शेतां कामा योरे
'हांव बाबा भुरगो मरे '
पेटक्या, परबे जेवंक यो गा
' हांव सायबा जाण्टो मगा '

( अशेन भशेन तो दीस सारतालो. एक दीस– )
अिश्टान ताका बुद्द दिली
तांतयां धंदो करचेली
काम कश्ट करूंक नाका
बसून जोड घेवंचेली

घेवन गेलो रुपये सात
सावड्डेच्या बाजारांत
तलकां आसलीं जिनसावार
प्रेस तांचो पांच चार

घेतली ताणे भायली कोंबी
फुल्ल धवी गुबगुबीत
तांबडे दोळे चोंच सोबीत
पळोवंक सामकी रसरशीत

( ती कितें करताली ? )
उडट्या वाऱ्यार भोंवताली
कीड मूय चोंचताली
गोरवां गोठ्यांत येवच्या वेळार
पणसा घोलींत बसताली

( अशेभशेन दीस वताले. एक दीस– )
फांत्यावेले वाजले पांच
कोंबयेन केलें कों कों ऽ च ऽ कोंच
पेटको उठलो दोळे चोळीत
अजाप ताणे देखलें घोलींत

चकचकीत घातलां तांतीं
चंद्र कसो पुनवे राती
वाटकुळोच भांगरा गुळो
    घुंवलो पळोवन तिरसो दोळो

काडलें तांतीं घातलें होंटींत
विकलें व्हरून शांबा शेटीक
रुपये ताजे आयले साठ
    देखून पेटको पडलो चाट

दुसऱ्या दिसा घडत कितें
पेटक्या मनांत तेंच तें
परतें तांतीं मेळत कशें
    पेटक्या मनांत तेंच तें

फांत्यावेळे वाजले पांच
कोंबयेन केलें कों कोंऽचऽकोंच
पेटको उठलो सडसडीत
    अजाप परतें देखलें घोलींत

झगझगीत पडलां तांतीं
चंद्र कसो पुनवे राती
वाटकुळोच भांगरा गुळो
    पेटको सामको घुंवन गेलो

काडलें तांतीं घेतलें मुठींत
विकलें व्हरून मत्यां शेटीक
रुपये ताजे आयले साठ
    पेटको सामको पडलो चाट

तिसऱ्या दिसा घडत कितें
परतें परतें तेंच तें
फाल्यां तांतीं गावत कशें
भोवन भोवन तेंच तें

फांल्यावेले वाजले पांच
कोंबयेन केलें कों कों ऽ च ऽ कोंच
पेटको उठलो घडघडीत
परत अजाप चोयलें घोलींत

लकलकीत घातलां तांतीं
चंद्र कसो पुनवे राती
वाटकुळोच भांगरा गुळो
चोवन पेटको धुंवन गेलो

काडलें तांतीं घेतलें हातींत
विकूलें व्हरून घोणसु शेटीक
रूपये ताजे आयले साठ
मळबा सामके लागले हात

चवथ्याय दिसा घडलें तशें
पेटक्या मनां आयलें अशें
एकेक तांतीं गावचे परस
एकठांय तांतयां मेळप कशें ?

बुद्द ताका येवजली
एकठांय तांतयां मेळचेली
धांवलो तसोच उश्र्या वाऱ्यार
विचार करूं नासलो थाऱ्यार

बावडी कोंबी उडट्या वाऱ्यार
हुसक्यामेकळी भोंवताली
कीडमूय चोंचचे पासत
चिखोल रेबो उस्तिताली

( जो काय पेटको आयलो आनी ताणे )
खोटल्या पोंदा धांपली कोंबी
घेतली सुरी चिल्ली उबी
एकूय तांतीं गावलेंना
पेटक्या हुटको आवरना



काणयेचें आयका सार—
आसलो मनीस वसवसो
अखेर पळे घडटा कसो

# कावळो काळो जातलो धवो

पोरसांतल्या आंब्या रुखार
आसले काळे कावळे चार
तांचे भितर बसका भरून
थाल्लो एक व्हडलो विचार

पारवोच किल्याक आसचो धवो
सोद आमी लावंया नवो
पळोवंक येवंदी लोकां पेंवो
काळो कावळो जालो धवो

कावळ्यान एका मांडलो थाराव
थापचें आंगाक बारीक लरांव
मत्त आमचें ना गा हाका
बाकिच्यांनी म्हळें ताका

दुसऱ्यान हाडलो लावचो पोव
धवो फुल्ल मोव मोव
मत्त आमी दिनात तुका
बाकिच्यांनी म्हळें ताका

तिसऱ्यान मांडलो लावचो चुनो
चड शाणो चड शाणो
कशेंच दिनात मत्त हाका
वकिच्यांनी म्हळें ताका

चवथो उठलो मार नेटान
ताळो काडून म्हळें मोट्यान
आयका म्हजो थाराव आनी
        पास करात भौ मतान

लरांव सुकून झडटलें
चुन्यान आंग फोंपेतलें
हुमेन पोव वेतलो पुसून
        हांसतले गा लोक चोवन

मत्त मजें शाबांव लावन
घासचीं पाखां चोळून चोळून
कोर काळो जातलो धवो
        लागतलो गा सोद नवो



हिअर, हिअर पास थाराव
लावंचो आमी आंगाक साबांव
कळाव आतां लावप नाका
बाकिच्यांनी म्हळें ताका

एकलो गेलो हाडूंक शाबू
विकपी पसरकार बाबू
बाकिच्यांनी म्हळें ताका
न्हंयचे देगेर रावतां तुका

आयलो घेवन व्हडलो साबांव
गोयांत केल्लो नांवान मारांव
फुल्ल धवो तुकतुकीत
वासाक तसोच परमळीत

सगल्या आंगाक साबांव लावन
लागले घांसूंक चोळून चोळून
तशेच न्हांती न्हंयंत वचून
फिरून पाखांक फेणेर मारून

उदकांत धुती आंग परत
घासती गुंड्यार परत परत
कोर कसोच जायना धवो
लागना जालो सोद नवो

फिरून नेटान लागले घांसूंक
रगत सामकें लागलें व्हांवंक
तरीय सोद लागना नवो
कावळो काळो जायना धवो

उदकां धुती आंग परत
घांसती गुंड्यार परत परत
पाखांन पाखां गेलीं झडून
बावडे कावळे पडले मरून



काणयेचें आयका सार–
कितलोय कोळसो घांसलो जरी
जातलो कसो दुदावरी ?

# शक्ते परस युक्त स्रेश्ट

मायाचे आसले दीस
वोत सामकें रखरखीत
पांचवो शाळू जुनेर जावन
धरणी जाल्ली बखवखीत

रुखार पानां झेमेतालीं
चुडटां माडार धुंवळटालीं
वाली वेली हांसती फुलां
आडत्री मान उडयतालीं

गोरवां तानेन तानेतालीं
मनशां हुमेन हुमेतालीं
न्हंयचे देगेर उदका खातीर
बेबकां डरांव करतालीं

बाराय दोळे उकते करून
सूर्य देव पळेतालो
पावस जाय, पावस जाय
ल्हान व्हड होरायतालो

रुखार एका घोंटेर करून
कावळे खूब रावताले
म्हजें तुजें करचें सोडून
एकचारान नंदताले

तांचे भितर बसका भरून
थारलो तांचो एक विचार
पावसा मेरेन वचचें ताणीं
दुदसागरा घाटामाथ्यार

करची कितली वर्णना
नामने ताज्या मोल ना
सर्गींच्या नंदनवनांत
असलो सम आसचो ना.

एक एक गांव काडीत
कावळ्यान कावळो चल्लो घांटार
तांतलो एक जाणटो कावळो
दुयेंत जावन उल्लो रुखार

भुकेन सामको भुकेलेलो
तानेन पुराय तानेलेलो
उदका पासत जळीं मळीं
नज जायत सोदतालो

भोंवत भोंवत पावलो भाटांत
बांयचे धडेर चोयली घागर
झेंप घेवन पळेत जाल्यार
उदकां कशीच पावना नदर

काडचें कशें पिवचें कशें
उदक सामकें लागलां तळा
तसोच परतो वेतलो म्हळ्यार
तानेन जीव खशेंला

येरादारी काडटां काडटां
युक्त ताका येवजली
चोचीं गुंडो धरचो आनी
घागरे भितर उडवचेली



एक दोन तीन चार
उदक चडलें आंगळां चार
पांच स सात आठ
    उदक चडलें फाटो फाट

णव धा इकरा बारा
उदक पावलें सामकारा
    चोंच घालून पोट भरून
    उदक पिलो उदक न्हालो

शक्ते परस युक्त व्हड
कावळ्यान धडो शिकयलो.



